गांधी साहित्य – १०

# अशे आशिल्ले गांधीजी

## चवथो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो भोंवतालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*

*—अल्बर्ट आइन्स्टाइन*



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गोमंत भारती प्रकाशन

१९६०

अ ज वा डा व पी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गां व दे वी–मु म्बै ७.

स ग ळे ह क्क
गोमंत भारती कडेन

पै ली खे प
२६ जा ने वा री
१ ९ ६ ०

मोल :—
०·५० न ये पै से
सवूय बांटे अेकठांय
२·५० न ये पै से
बां दि ल्लें पु स्त क
३.०० न ये पै से

छा प पी
व्यं. रा. शि ग रे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

## : ११९ : स्पेशल ट्रेन केली

बंगाल प्रांतीय परिषद भरपाची आसली. श्री. चित्तरंजनदास हांणीं गांधीजींक आमंत्रण दिल्लें. गांधीजी वेळार भायर सल्ले. पुण मोटारीक वाटेर कितें तरी जालें आनी ते स्टेशनार अुसरान पावले. तितले म्हणसर गाडी सुटिल्ली.

आतां कितें ? गांधीजींनीं तार करून स्पेशल ट्रेन मागयली. हेवटेन दासबाबू स्टेशनार आयले. पुण गांधीजी आयले नात तें पळवन निर्शेवन परतले.

परिषद सुरू जाल्ली. अितल्यांत रेल्वे यार्डांत स्पेशल ट्रेन येवन अुबी रावली आनी गांधीजी तातूंतले देंवले. गांधीजींक पळवन दासबाबूंचे दोळे भरून आयले.

गांधीजी पयेन पै मेजून वापरताले खरे. पुण असल्या वेळार ते पैशां कडेन पळें नासले. त्या दिसा हे परिषदेंत गांधीजींची गरजच आसली.



## : १२० : येतां म्हुण सांगून........

गांधीजींनीं 'यंग अिंडिया' आनी 'नवजीवन' हीं दोन साताळीं चलवपाचें थारायल्लें. तांची व्यवस्ता स्वामी आनंद हांगो आपल्या आंगार घेतिल्ली. हाका लागून गांधीजी हुस्क्या मेकळे जाल्ले.

स्वामी आनंद हांणीं अमदाबादेक आपुण अमक्याच दिसा पावतां अशें गांधीजींक कळयल्लें. त्या दिसा ते पावले नात. गाडी येवन गेल्ली.

गांधीजी हुस्क्यांत पडले. आपुण अमक्या दिसा येतां म्हुण सांगून मनीस पावना अशें जावचेंच कशें? स्वामीन आळसाय बी केली ना मू? पुण गांधीजी हें मानूंक तयार नासले. तांणीं म्हळें: "स्वामी अेक तर मेलो जातलो वा बरो ना जाला जातलो."

गांधीजींचें हें मत आयकून स्वामींच्या अिश्टांक हुस्को जालो. दुसऱ्या दिसा ते पावले. तांकां पळेनाफुडें गांधीजींनीं विचाल्लें:

"काल कित्याक पावले नात?"

"मुम्बैच्यान हांव वेळार भायर सरिल्लों. पुण गाडयेंत म्हाका जोर आयलो म्हुण वाटेर सुरतेकूच देंवलों. थैं म्हजी भैण आसता. तिगेर मात्सो आराम घेतलो आनी आज भायर सल्लों." स्वामींनीं खुलासो दिलो.

"म्हाका तशें दिशिल्लेंच. ना जाल्यार येतां म्हुण सांगून मनीस पावना अशें जावचेंच ना." गांधीजींनीं समाधानान म्हळें.

****

## : १२१ : भाअी कोतवाल

१९१२ तली खबर. गांधीजी त्या वेळार दक्षिण आफ्रिकेंत आसले. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सत्याग्रहाची खबर जाणां जावन घेवपा खातीर रंगूनच्यान भाअी कोतवाल मुजरत गांधीजीसरीं आयिल्ले. विद्वान पुण सादे; तांणीं दक्षिण आफ्रिकेंत आपलो भारतीय भेस सोडूंक नासलो. दोन–अडेच म्हैने ते गांधीजी सरीं रावले जातले. अुपरांत जेन्ना परते रंगुनाक वचपाक ते भायर सल्ले तेन्ना ते कांय दिसां खातीर डरबनाक गेले. वतना गांधीजींक तांणीं सांगलें कि सोमारा बोट सुटपाची आसा तेन्ना आयतारा दन्परां फिनिक्स आश्रमांत येवन दुसऱ्या दिसा सकाळीं डरबनाक वतां. गांधीजी ते प्रमाण आयतारा तांची वाट पळेत बसले.

भाअी कोतवाल डरबनच्यान वेळार भायर सल्ले. पुण फिनिक्स स्टेशनार पावतासर अुटंगारांचो पावस पडूंक लागलो. दोन–अेक वरांभितर धोंपरभर अुदक जालें. स्टेशन मास्तरान तांकां पावस सोंपसर रावंक सांगलें आनी पावस थांबलो ना जाल्यार स्टेशनार रावपाची व्यवस्था करून दितां म्हळें. भाअी कोतवाल हांणीं ताचे अुपकार मानले. पुण अशे स्टेशनार रावंक ते तयार नासले. तांकां अुतर दिल्ले प्रमाण आज कशेय भशेन आश्रमांत पावंकूच जाय आसलें.

दन्पारचीं सुमार तीन जाल्लीं. पावस कसोच थांबना. अदीक वेळ रावले जाल्यार तिळसांज जातली आनी आश्रमांत आपुण पावचों ना अशें येवजून भाअी कोतवाल हाणीं कासाटो मारून

अुदकांतल्यानच चलत वचपाचो नित्शय केलो. अेक लांब कोंडो घेतलो. वयर आपली पोटली बांदली आनी चलूंक लागले.

दोनेक फर्लांग चलत गेले जातले. अितल्यांत पांय निसरलो. दोंगरा वेल्यान अेक खळी व्हांवताली. तातूंत ते पडले. अुदकाचो झोत येदो आसलो कि ते व्हांवन गेले. हातांतली बडी सुटली. पोटली गेली. कितें जालें हें कळचे पैलींच ते बुचकळचो मारूंक लागले. अशे दोनेक फर्लांग व्हांवन गेल्यात जातले अितल्यांत कांटचाचें अेक झाड आडवें आयलें आनी तातूंत ते झिरकले. तांणीं झाडाक घट्ट वेंग माल्ली. आनी वयर सल्ले.

वयर सरतकच कितें जालें हाची तांकां जाणीव जाली. मात्सो वेळ ते थं बसले. आतां मुखार कितें ? तांणीं पळेलें कि आश्रमांत वतलो जाल्यार अुदकाची ही खळी हुपून वचूंक जाय. तांणीं आपली पैरण काडली आनी झाडार वयर बांदली. बडीय थंच लायली. कासाटो घट्ट माल्लो आनी अुदकांत परते देंवले. आनी पेंवत पेंवत कशेबशे आश्रमांत पावले.

सांजचीं पांच वरां जाल्लीं. सगळे जाण भाओी कोतवालांची वाट पळेताले. कितलोय कळाव जालो जाल्यार चार वरांमेरेंन तांणीं पावंकूच जाय आसलें. आतां पांच जाल्लीं. पावसाक लागून अुल्ले काय ? कितें जालें ? आश्रमांतले लोक हुस्को करूंक लागले. गांधीजींनीं म्हळें : "केदोय पावस पडलो जाल्यार भाओी कोतवाल आज आयले बगर रावचे नात. जीव संकटांत घालुनूय येतले."

गांधीजी हें अुलयतात थंच भाओी कोतवाल अुगडया आंगान, रक्तबंबाळ स्थितींत दारांत अुबे !

" कितें जालें ?" गांधीजींनीं विचाल्लें.

" आज मरपाचों हांव पुण मरचे पैलीं तुमचें दर्शन घेतलोंच अशी म्हजी तीव्र अित्सा आसली. कसो पावलों हांव नकळं."

गांधीजींनीं तांचे फाटीवेल्यान मायेन हात ओडलो.

****

## : १२२ : वेळाचें म्हत्त्व

गांधीजी दर मिण्टाचो आनी सेकंडाचो हिशोब दवरताले. ज्या वेळार जी गजाल करची थारायल्या त्या वेळार ती चुकनासतना करताले. वेळाचे वाबतींत ते खूब जागरुक रावताले.

अक फावटीं हॉरेस अेलेकझांडर तांकां मेळूंक आयले. तांकां सांजवेळच्या चारांचो वेळ दिल्लो. ते पांच मिण्टां अुसरांच पावले. हिन्दुस्तानांत ते भोंविल्ले. पांच मिण्टां अुशीर करप म्हळ्यार लोक भौमानाची अेक तरा मानतात असो तांचो समज जाल्लो. ते गांधीजींचे कुडींत भितर सरताले. अितल्यांत महादेवभाअींनीं म्हळें :

" पांच मिण्टां मात्शे रावशात ?"

तांकां अजाप जालें ना. जो मनीस अनंतांत रावता ताका पांच-धा मिण्टांचें कितें ? पुण पांच मिण्टांनीं भितर वतकूच गांधीजी हे वाबतींत 'भारतीय' न्हय म्हणयाचें तांकां कळून आयलें. कित्याक, पैलेंच वाक्य गांधीजींनीं अुच्चारलें तें अशें :

" तुमकां पांच मिण्टां तिश्टत रावचें पडलें ह्याबद्दल म्हाका वायट दिसता."

"कांय नज –" श्री अेलेकझांडर हांणीं म्हळें.

"चारांक दोन मिण्टां आसतनां हांवें तुमची वासपुस केल्ली. पुण तुमी येवंक नाशिल्ले. म्हुण म्हळें, दूद घेवपाचें आसलें तें घेवन अुडवंया. मागीर मेकळेपणान अुलवंक मेळटलें."

****

## : १२३ : स्वराज्याक कळाव लागल्यार....

गांधीजी हिन्दुस्तानांत येवन थीर जाले तेन्नाची खबर. अेक सभा आसली. ते सभेक लोकमान्य टिळक येवपाचे आसले. गांधीजी वेळार पाविल्ले. पुण लोकमान्यांक अर्द वर कळाव जालो. लोक तिश्टत बसले.

लोकमान्य व्यासपिठार चडना फुडें गांधीजींनीं म्हळें :

"स्वराज्य मेळपाक अर्दवर कळाव लागलो जाल्यार ताची जापसालदारकी लोकमान्यांचेर येतली."



## : १२४ : पुस्तकां केन्ना बरयलीं ?

गांधीजी वेगळया वेगळया कामांनीं अितले बांदिल्ले आसताले कि तांकां पुस्तकां बरवपाक वेगळो वेळ काड्ंक मेळनासलो. 'आत्मकथा' तांणीं बरयल्या. पुण तिचे खातीर तांणीं वेगळो वेळ काडूंक नासलो. 'यंग अिंडिया' खातीर तांणीं जो वेळ सांवाळून दवल्लेलो तातूंतच तांणीं 'आत्मकथा' बरवन काडली.

आनी गांधीजींनीं गीतेचो अणकर कसो केलो, खबर आसा ? दिसाक अेक–अेकच वा दोन–दोनूच श्लोक करून ! गीता तांगेली आध्यात्मिक आवै. पुण तिच्या अणकारा खातीर लेगीत तांणीं वेगळो वेळ काडूंक ना !

गांधीजींचीं कितलीं–शींच पुस्तकां अशेच तरेन तयार जाल्यांत. तें कित्याक ? तांगेली सगळी बरपावळ–आनी ती थोडी ना ! – अखंड कर्मयोगांतल्यानच तयार जाल्या. आयज ती सगळी अेकठांय करपाचो वावर चल्ला आनी अशें म्हणटात कि चारशीं चारशीं पानांची ८० पुस्तकां तयार केलीं जाल्यारूय ती अुरतली.



## :१२५: दुसऱ्यांकूय बरवंक दिलें ना

१९४६ त कोणें अेकल्यान गांधीजींक अहिंसेचेर अेक पुस्तक बरवपाची सुचवणी केली.

गांधीजींनीं ताका जाप दिली :

"पुस्तकां बरवप हें म्हजें काम न्हय. म्हाका जें कितें समजलां तें हांव करून दाखयतनां."

त्या मनशान दुसरी सुचवणी केली : "तुमच्यांनीं नज जाल्यार विनोबा, काकासायब आनी किशोरलालभाअी ह्या तिगां भितल्या अेकल्याक बरवंक सांगचें."

गांधीजींनीं जाप दिली : "विनोबांकडेन जायतीं कामां आसात. तांतलो वेळ काडून शास्त्र बरवंक हांव तांकां सांगचों ना. काकासायब बरयतीत पुण हालीं 'हिन्दुस्तानी' भाशेचें काम ते घेवन बसल्यात. तातूंतलो वेळ तांणीं काडल्यार हांव तांकां मना करतलों. किशोरलालभाअी तर अेक खीण लेगीत ह्या कामांत घालचे नात. तांचेकडेनूय जायतीं कामां आसात."

गांधीजींनीं पुस्तक तर बरयलें नाच पुण दुसऱ्यांकूय बरवंक दिलें ना. अेक तर अहिंसेचें 'शास्त्र' घडवप कठीण म्हुण; आनी दुसरें, करणी करता आसतना शास्त्रां बरवपाची गरज ना म्हुण.

संवसाराक आज शास्त्रांची गरज ना. संवसार करणेक भुकेला आनी जो करणेंत आसा ताणें शास्त्रां बरवपाक वेळ वगडावंक जायना अशें गांधीजी म्हण्टाले.

****

## : १२६ : वेगळो अणकार कित्याक ?

दिसाक अेक–अेक वा दोन--दोन श्लोक करून गांधीजींनीं भगवद्गीतेचो गुजराती अणकार करून काडलो. पुण गुजराती भाशेंत गीतेचे जायते अणकार त्या पैलीं अुजवाडा आयिल्ले. गांधीजींनीं वेगळो अणकार कित्याक केलो ?

"गीता जे तरेन हांव समजलां ते तरेन जीण जियेवपाचो हांव यत्न करीत आयलां. आध्यात्मिक मळार कसलीय अडचण आयली कि हांव गीतेकडेन धांव घेतां...गुजराती भाशेंत जे अणकार अुजवाडा आयल्यात तांचे फाटल्यान आचाराचो आनी अणभवाचो तेंको ना. ह्या अणकारा फाटल्यान ३८ वर्साच्या आचाराचो यत्न आसा...हांव गीतेचो जो अर्थ समजलां तो अर्थ ह्या अणकारांत आसा. जो गीता आचरणांत हाडूंक सोदता ताणें हो अणकार वाचचो, ताचेर येवजुचें आनी तातूंतल्यान बळ जोडचें अशी म्हजी अित्सा आसा..." अशें गांधीजींनीं ताचे प्रस्तावनेंत बरयलां.

आनी त्या अणकाराक तांणीं नांवूय अितलें सुंदर दिलें—**अनासक्तियोग** ! हें नांव वाचना फुडें गीतेची शिकवण कितें म्हणपाचें समजून येता.



## : १२७ :　　　　अणकार न्हय, स्वतंत्र पुस्तक

गीतेचे आयजवेर जितल्ये अणकार जाल्यात तातूंत मूळ संस्कृत श्लोक दिवपाची चाल चलून आयल्या. गांधीजींचो गुजराती अणकार उजवाडावंक घेतलो तेन्ना संस्कृत श्लोक दिवपाची तांणीं मना केली. तांचें म्हणणें आसलें कि संस्कृत गीता सगळ्यांगेर आसताच. तेन्ना आपलो अणकार वाचतल्यांनीं परते संस्कृत श्लोक घेवपाचें कारण ना.

पुण जेन्ना चर्चा चडूच जावंक लागली तेन्ना तांणीं सांगलें:

"अनासक्तियोग गीतेचो अणकार जरूय आसलो तरूय तातूंत आमचें, आश्रमवासी लोकांचें, जीवनदर्शन आसा. मुखार हो अणकार म्हूण न्हय तर अेक स्वतंत्र ग्रंथ म्हूण लोक वाचतले"

आनी तांणीं अेक आधार दिलो. तांणीं म्हळें : "आज बायबलाचो जो अिंग्लीश अणकार मेळटा ताकाच अिंग्लंडचे लोक आपलें बायबल मानतात. मूळ हिब्रू वो ग्रीक बायबलाचो ते आधार घेनात आनी ह्या बायबलाचो अिंग्लीश भाशेचेर अद्भुत परिणामूय जाला."

भाशेचे नदरेन हो गुजराती अणकार परतून अेक खेपे पळ-वपाची तांची खूब अित्सा आसली. पुण ते हें काम करूंक केन्नाच पावले नात. तांणीं तें काम काकासायाब कालेलकारांचेर सोंपयलें आनी 'ते करून दितात तें निमाणें अशें धरचें' अशें सांगलें. काकासायबांनीं तें काम भक्तिभावान केलें.



## : १२८ : व्यवस्थितपणां

गांधीजींक अेक संवय आसली. वाचूंक बरवंक बसताले तेन्ना ते आपले अुजवे वटेन पेन्सिल दवरताले. अेक खेपे ही पेन्सिल तांकां दावे वटेन मेळ्ळी. तांणीं रोखडोच प्यारेलालजींक अुलो माल्लो आनी विचाल्लें : " म्हजी पेन्सिल खैं दवरलेली ? "

प्रस्न विचारपाची तरा आनी आवाजाची तिखसाण पळवन प्यारेलालजी समजले. आनी जाप नाशिल्ल्यान वयर पळवंक लागले. सरदार वल्लभभाओी म्हऱ्यांतच बशिल्ले. तांणीं प्यारे-लालजींचे तोंड पळवन सगळें सांबाळून घेतलें. मात्शे हांसून म्हळें : " आमचो प्यारेलाल म्हळचार अेक कवी. "

गांधीजीय हांसले.

गांधीजी स्वतः व्यवस्थित आशिल्ले. म्हुण अव्यवस्थित लोकांक ते कवी म्हणटाले. सरदार वतकूच कोणें अेकल्यान गांधीजींक म्हळें : " बापूजी, ही तर सादी गजाल आशिल्ली ! "

गांधीजी रोखडेच गंभीर जाले आनी म्हणूंक लागले : " मन-शान जीवनांत व्यवस्थितपणां हाडुंकूच जाय. सूर्य, चंद्र, पृथ्वी नेमान चल्लीं नात जाल्यार कितें जातलें ? तशेंच आमचेंय सगळें नेमान चलूंक जाय. त्या भायर, म्हजो तर खिणान खीण कामान भल्ला. म्हाका जाय त्यो गजाली आपापल्या जाग्यार म्हाका मेळ्ळ्यो नात जाल्यार त्यो सोदपाक म्हाका वेळ वगडावचो पडटलो. आनी हाका लागून कितलें नुकसान जातलें, कल्पना आसा ? म्हजे बरोबर काम करतल्यांनीं हें सगळें ध्यानांत दवरूंक जाय. "

आनी खीण भर थांबून म्हणूंक लागले : " अिंग्लंडांत कोयराची व्याख्या किते केल्या खबर आसा ? Anything out of place is dirt – जी वस्तु आपल्या जाग्यार ना तो कोयर."

****

## : १२९ : दुसऱ्यांचीं अुणीं हांव सांगचों ना

दक्षिण आफ्रिकेंत नामदार गोखले आयिल्ले. थंचे तांचे सगळे कार्यक्रम गांधीजीनीं थारायल्ले.

अेक दीस अेक सन्यासी गोखल्यांक मेळूंक आयलो आनी तांचेकडेन खबरी करून जोहानिसबर्गच्या हिन्दू लोकांचे अेके सभेंत धा मिण्टां खातीर येवपाचें अुतर तो गोखल्यांकडल्यान घेवन गेलो. गांधीजीक हें जेन्ना कळ्ळें तेन्ना ते बुचकळ्यांत पडले. जोहानिसबर्गच्या सगळ्या भारतीय लोकांचे वतीन अेकूच मानपत्र दिवपाचें थारायल्लें. वेगळ्या–वेगळ्या धर्मांच्या आनी जातींच्या लोकांचीं वेगळीं–वेगळीं मानपत्रां घेवंक बसल्यार भारतीय लोकांचो अेकचार तुटटलो अशें गांधीजीक दिशिल्लें. पुण धा मिण्टां खातीर हिन्दू लोकांचे सभेंत वचपाचें अुतर तो सन्यासी घेवन गेल्लो !

गांधीजींनीं गोखल्यांक विचाल्लें : " तुमी हिन्दूंचें वेगळें मानपत्र घेवपाचें कबूल केलां ? "

" ना. ना...म्हाका ताणें खूब आग्रो केलो तेन्ना धा मिण्टां खातीर येतां म्हुण हांवें ताका सांगलें. "

गांधीजींनीं त्या सन्याश्याची सगळी खबर गोखल्यांक सांगली. ती आयकून गोखले म्हणूंक लागले :

" ह्या मनशाविशीं म्हाका पैलींच कित्याक शिटकायलो ना?"

" पुण तुमी ताका अुतर दिवचे पैलीं म्हाका विचारपाचें न्हय ? " गांधीजींनीं विचाल्लें.

" हांव खैं ताका वळखतां ? ताजे विशीं म्हाका पैलींच शिटकावपाचें कर्तव्य तुजें न्हय ? " गोखल्यांनी गांधीजींकूच परतें दुशण दिलें.

" गरज नासतना दुसऱ्याचें वायट सांगपाचो धंदो हांव करिना." गांधीजींनीं तितल्याच खंबीरपणान जाप दिली.

अखेरेक सगळें प्रकरण गांधीजींनीं आपल्या हातांत घेतलें आनी सगळ्यांक धादोस केले.



## : १३० : सेवामय प्रेम

काकामायब कालेलकारांक क्षय रोग जाल्लो. तब्येन सुधारपा खातीर ते सिंहगडार वचून रावल्ले. कांय म्हैन्यांनीं बरे जावन ते आश्रमांत आयले. पावना फुडें अेकली चली वशायेंत कांय फुलां घेवन आयली आनी सांगूंक लागली : " तुमचे खातीर बापूजीन हीं फुलां धाडल्यांत. "

काकामायबांच्या दोळ्यांत आनंदान दुकां आयलीं. ती चली मुखार सांगूंक लागली : " बापूजीन आमकां सदांच फुलां तुमकां व्हरून दिवंक मांगलां. तुमकां फुलां खूब आवडटात म्हूं. "

आपल्या परिवारांतल्या लोकां भितर कोणाक कितें आवडटा हें गांधीजी बारीक लक्षांत दवरताले.

आश्रमांत अेक खेपे गांधीजींक अेका भुरग्यान येवन आचार्य कृपालानी आयिल्ल्याची खबर दिली. गांधीजींनीं रोखड्या रोखडो ताका रांदचे कुडींत धंय आसा काय ना हाची वासपुस करूंक धाडलो. कृपालानींक धंय खूब आवडटा, हें ते जाणां आसले.

कोणेंय फळां हाडून दिलीं जाल्यार तांतले चिकू काडून ते महादेवभाअींक दिताले. तांगेलें हें आवड्टें फळ म्हणपाचे ते जाणां आसले.

गांधीजींचें प्रेम सेवामय आसलें. सगळ्यांच्यो आवडी–निवडी ते लक्षांत दवरताले आनी तो तो मनीस आयलो म्हणटकूच ताका ती ती वस्त दिवन ताचे वैलें आपलें प्रेम ते अुक्तायताले.

****

: १३१ : **अतिथि सत्कार**

सेवाग्रामाक हिन्दुस्तानी प्रचार सभेची बसका आसली. मौलाना आझाद ते बसकेक येवपाचे आसले. बाकिचे सगळे वांगडी येवन बशिल्ले आनी सभेक दोन मिण्टां आसात अितल्यांत गांधीजी भायर गेले आनी नाल्लाच्या वळचा सारको अेक फातर घेवन आयले.

" हो फातर–सो कित्याक ? " कोणें अेकल्यान विचाल्लें.

" मौलाना येवपाचे आसात. तांकां सिगरेट ओडपाची संवंय आसा. तेन्ना, म्हळें, गोबर अुडवपाक हो फातर ' अॅश ट्रे ' चो अुपयोग दितलो. "

गांधीजी सिगरेटी ओडपा आड आसले. तांणीं ह्या संबंदान जायतें बरपूय केल्लें. आपुण जावन ते केन्ना कोणाक सिगरेट ओडपाचें प्रोत्साहनूय दिवचे नासले. पुण मौलाना ओडटाले. तांची सोय पळवप गांधीजींक स्वाभाविक आसलें.

आश्रमांत मांस वर्ज्य आसलें. पुण वर्कींग कमिटिचो अेकलो कम्यूनिस्ट वांगडी जेन्ना आश्रमांत आयलो तेन्ना ताच्या जेवणाची सोय तांणीं आश्रमा भायर अेकल्यागेर केल्ली. ताका मांसा बगर अुंडी वचनासली.



## : १३२ : मनीसच तसलो

गांधीजी नोआखालींत आसल्ले. शारांपसून पैस अश्या गांवांनीं भोंवताल्ले. थैं अेक दीस तांकां जवाहरलाल मेळूंक आयल्ले. जण अेकल्याच्यो गरजो आनी मोर्यी हांचे कडेन गांधीजींचें मदांच लक्ष आसताल्लें. जवाहरलाल्लांक अडचण जावं नये म्हुण तांणीं आपल्या सामानांतल्लें थोडें सामान तांचे कुडींत दवरूंक लायल्लें.

जवाहरलाल सकाळचें पावल्ले. गांधीजी सरीं वसून खवरी करून ते आपले कुडींत गेले. थैंची व्यवस्था पळवन तांकां अजाप जाल्लें. तांणीं गांधीजींची सेवा करतल्ले चल्येक आपवन हें सामान खैंच्यान हाडल्लें हाची वासपुस केल्ली. तिणें सांगल्लें : " बापूजींचें तें."

" बापूजींचें सामान हांव कशें वापरूं ? तुका अितल्लीय अक्कल कशी ना !"

" बापूजींनीं सांगल्लें म्हुण हाडल्लें." तिणें खुलासो केल्लो.

" बापूजी तर तसलेच. आपुण कष्ट काडटले आनी दुसऱ्यांची सोय पळेतले...हांव अितलो नाजुक मनीस न्हय. म्हजें हांव पळवन घेन. तुवें बापूजींक सांबाळूंक जाय. तांगेल्यो गरजेच्यो वस्तु दुसऱ्या कोणाक दिवंक जायना."

तांणीं तें सगलें सामान थैंचें काडूंक लायलें आनी सांगलें : " बापूक सांग, जवाहरलाल नाका म्हणटा म्हुण."

ती चली गांधीजी सरीं गेली. गांधीजींनीं अितलेंच म्हळें : " तो मनीसच तसलो. आतां तो तें वापरपाचो ना. चल, घेवन यो."

दोगांचोय संबंद अितलो गोड आसलो.

****

## : १३३ : काटकसरी गांधीजी

गांधीजीं कडेन अेक गरम शाल आसली. ती अेक दीस झिरझिरली. म्हुण मनुबेन गांधीन तांकां अेक नवी शाल दिली. गांधीजी मोट्या–मोट्या कामांत गुल्ल आसले तरूय तांगेलें बारीक बारीक गजालींचेर लक्ष आसतालेंच. तांणीं विचाल्लें:

" ती शाल्ल खैं गेली ? "

" आसा. पुण ती अेके कडेन झिरझिरल्या. " तिणें जाप दिली.

" जावं. तीच हाड तूं. तूं कांय जोडिना आनी हांवूंय जोडिना. आनी म्हाका बापूय खैं आसा, तुका धाडटा तशे पैशे धाडपाक ? हांव गरीब. म्हज्यान ती शाल भायर अुडवं नज. हाड ती हांगा. तिका हांव कपी मारतां. "

आनी तांणीं तिका अशी सुंदर कपी माल्ली कि ती शिप्यानूच माल्ल्या अशी दिसची. गांधीजींक जाय जाल्यार शेंकड्यांनीं शालो मेळटल्यो आसल्यो. पुण अखेर मेरेन तांणीं ती कपयेंचीच शाल वापरली.

मनु गांधीं कडेन पळवन गांधीजी म्हणूंक लागले:

" सांग, म्हाका येता काय ना कपी मारूंक ? "

कांय दिसांनीं मनुबेनीचेर आनीक अेक प्रसंग आयलो. अेक नेपकीन सामकोच झिरझिरलेलो. गांधीजींक नवो नेपकीन दिवंचे पैलीं तिणें येवजिलें कि जमलें जाल्यार होच रफू-बिफू करून तांकां दिवचो. पुण तिणें पळेलें कि ताचें आयुष्य सामकेंच सोंपला आनी ताचें कितेंच करूंक येवपाचें ना.

अन्तीं तिणें नवो नेपकीन गांधीजींक दिलो. तिका खबर आशिल्लीच कि नवो नेपकीन पळवन गांधीजी पोरण्याची चौकशी

केले बगर रावपाचे नात. म्हुण तिणें सांगले कि आपणें सगळे तरेन तकली वापरून पळेली. पुण त्या नेपकिनाचें आयुष्य वाडवंक येत अशें आपणाक दिसना.

" दोन म्हैने वापरून दाखवं ?" तांणीं विचाल्लें.

" दोन म्हैने कसोच येवपाचो ना " तिणें म्हळें.

गांधीजींनीं त्या नेपकिनाची घडी केली आनी रफू करून घेतलो.

आनी खऱ्यांनींच तो दोन म्हैने मेरेन अुपकरलो. आनिकूय तो अुपकरतलो आसलो. पुण मनुबेनीन तो गांधीजींचे काटकसरिची अेक पत म्हुण सांबाळून दवरपा खातीर मागून घेतलो आनी ताचे कडल्यान सेवा घेवपाची बंद केली.

****

## : १३४ : पेटंट अेनव्हलप्स

अेक दीस गांधीजी आनंदान अेकले अेकलेच हांसताले. कोणें अेकल्यान तें पळेलें आनी विचाल्लें: " कितें जालें ? "

गांधीजींनीं म्हळें: " आमचे कडेन अितलीं पत्रां येतात कि तांचें कितें करचें हें म्हाका समजनासलें. हांव तीं पिंदून अुडयतालों. पुण कागदां अशीं पिंदून अुडयतना म्हाका वायट दिसतालें. आज म्हाका तांचें कितें करचें तें समजलें. "

अशें म्हणून तांणीं अेक कागद काडलें आनी ताची घडी करून ताचो लाखाटो करून दाखयलो.

तेदूसच्यान ते हे लाखाटे वापरूंक लागले. तांकां तांणीं ' पेटंट अेनव्हलप्स ' अशें नांव दिलें.

दर अेकले वस्तुचो अदिकांत अदीक अुपयोग करूंक जाय हे तांगेले तत्त्व आसलें. ते कागदांचे लाखाटे करताले आनी आयिल्ले लाखाटे पिंदून तांचो बरवपाक अुपयोग करताले. ‘ वॉर अेकॉनमी ’ च्या नांवान सरकार मुखार ज्यो गजाली करूंक लागलें तांची सुरवात गांधीजींनीं कितल्या-श्याच वर्सां पैलीं केल्ली.

गांधीजींची ही नदर तांगेल्या सगळ्याच वावरांत दिसून येता. ग्रामोद्योगी कागद म्हूण जो आज मेळटा तो कित्याचो करतात खबर आसा ? आमी जो कोयर म्हुण भायर अुडयतांत ताचो.

****

## : १३५ : पावण्यो

गांधीजी हरिजनां खातीर फंड जमयताले. पैसो, दोन पैशे, जें कितें मेळटा तें घेताले. लोकांक ते म्हणटाले: “ तुमी गरीब हें हांव जाणां. पुण तुमचे परसूय हरिजन गरीब. तेन्ना तांचे पसत कितेंय दियात. ”

अेक दीस अेकल्यान अेक चाळण दिली. गाडी सुटपाक दोन मिण्टां अुरिल्लीं. गांधीजींनीं ती पावणेर घाली.

“ कितली अुपयोगाची वस्त पळेयात ! ” तांणीं म्हळें.

चार आण्यां पसून सुरवात जाली ती २१ रुपयांत दिली !

अशेच अेक खेंपे कोणें तांकां पड भर धान्य दिलें. तांणीं ताची पावणी करून तें ४१ रुपयांत विकलें !

विजगापट्टमाक गाडी पाविल्ली. अेकल्यान मोरां-पांखांचो अेक आयणो दिलो. गांधीजींनीं तो पावणेर घालो. कोणें स पैशांक तो मागलो.

" ह्यो मुलूख बरोच फाटीं पडिल्लो दिसता !" गांधीजींनी म्हळें.

हें आयकना फुडें अेकल्याचो अभिमान जागो जालो. ताणें अेका रुपयाक तो मागलो. करतां करतां पांच रुपयांक तो कोणें घेतलो.

" कोण म्हणटा फाटीं पडिल्लो प्रदेश म्हूण हो ? बरोच मुखार गेला ! " --गांधीजींनी म्हळें.

१९३३ त तांणीं हे भशेन थोड्याच दिसां भितर तीन साडेतीन लाख रुपये जमयले !

****

## : १३६ : डबो रिकामो केलो

. १९४७ तली खबर. लॉर्ड माउन्टबेटनांक मेळक गांधीजींक दिल्लीक वचचें आसलें. माउन्टबेटनांनीं तांकां विमानानूच येवंक सांगिल्लें. पुण " जातूंन हिन्दुस्तानांतलें शेनकामती बसूंक पावनात तातूंत हांव कसो बसूं ? " अशें सांगून ते गाडयेनच वचूंक भायर सल्ले.

गाडी साडेणवांक सुटटाली. गांधीजी जीस्त णव वाजून पंचवीस मिण्टांचेर स्टेशनार पावले. गाडी सुटूंक पांचूच मिण्टां उरिल्लीं. तीं ते बेश्टीं कशे वगडायतले आसले ? तांणीं त्या पांच मिण्टांत 'हरिजन फंड ' अेकठांय केलो.

अुबाळांचे दीस ते. वाटूय चोवीस वरांची आसली. दर अेका स्टेशनार लोकांची गर्दी जाताली. गांधीजींक सस्थताय मेळची म्हूण तिसऱ्या वर्गाचे दोन ल्हान डबे रिझर्व केल्ले. अेकांत गांधीजी आनी तांचे वांगडचे लोक बसले आनी दुसऱ्या डब्यांत सामान दवल्लें. गांधीजींक हाची खबर नासली. थोडया वेळान मनुबेन गांधी दिसली ना म्हुण तांणीं वासपुस सुरू केली तेन्ना तांकां कळ्ळें कि

तो दुसऱ्या डब्यांत बचून जेवण तयार करता ! गांधीजींनीं तिका आपवंक धाडली आनी विचाल्लें :

" दोन डबे कोणें रिझर्व केले ? "

" हांवेंच बापूजी, स्टोचेर दूद तापवप, आयदनां घांसप बी सगळें हांगाच केल्लें जाल्यार तुमकां घडये त्रास जातले अशें म्हाका दिशिल्ल्यान हांवें दोन डबे रिझर्व करूंक लायले. "

" तुका कशें समजना ? जनेलांतल्यान भायर पळे. "

भायर दुसऱ्या डब्यांनीं लोक हुमकळटाले.

" म्हाका विमानान यो म्हळ्ळें. तरीय हांव गेलों ना. म्हजे खातीर अितलो खर्च कित्याक ? विमानान येना जाल्यार स्पेशल ट्रेन करून यो म्हळ्ळें. हांवें तेंय ना म्हळें .... आनी तुवें दोन डबे रिझर्व करूंक लायले ! आमकां हें सोबता ?... आतां फुडले स्टेशन येना फुडें तो डबो रिकामो कर... "

मनुबेन भियेली. दुसऱ्यांची चूक जाल्यार गांधीजी स्वतःच प्रायश्चित घेवपी म्हणपाचें ती जाणां आसली. तशें कितें जायना जाल्यार पुरो अशें तिका जालें. अखेर स्टेशन आयलें. डबो रिकामो केलो आनी स्टेशन मास्टराक आपवन सांगलें.

" ते भायर हूमकळटात तांकां ह्या डब्यांत बसूंक सांगात. "

स्टेशन मास्टरान म्हळें : " तुमच्या ह्या डब्याचे पैशे फारीक जाल्यात. तेन्ना तो रिकामो करपाची गरज ना. भायर हुमकळटात तांचे खातीर जाल्यार हांव गाडयेक नवो डबो लायतां. "

" नवो डबो लावंकूच जाय. पुण ह्याय डब्याचो अुपयोग करूंक जाय. " गांधीजींनीं जाप दिली.

भायर हुमकळपी लोकांक बसूंक जागो मेळ्ळो आनी हेवटेन मनुबेनींकूय अेक मोलाचो धडो शिकूंक मेळ्ळो.

****

## : १३७ : कार्यकर्त्याचो धर्म

गांधीजीं बरोबर रावपी अेके चलये खातीर तांणीं थोडी मुस्तायकी हाडूंक अेकल्या कार्यकर्त्याक सांगिल्लें. त्या कार्यकर्त्यान मुस्तायकी हाडली. पुण तिचे पैशे घेवंक तो तयार जायना जालो.

" बापूजी, तुमचे खातीर म्हज्यान अितलेंय करूं नज ? " ताणें म्हळें.

गांधीजींची हिशोब करपाची तरा वेगळी आसल्ली. तांणीं ताका विचाल्लें : " तूं पैशे खैंच्यान हाडटल्लो ? तुजे कडेन जे पैशे आसात ते सार्वजनिक फंडांतले. तुका आमी तांतले फक्कत जेवपा खावपाक जाय तितलेच काडूंक दितात. तातूंनले तुज्यान दुसऱ्या खातीर कशें खर्चुयेत ? कार्यकर्त्यान पैशे कशे वापरचे, खैं वापरचे हाचे कांय नेम कडक पाळूंक जाय. आज तूं म्हजे खातीर खर्च करता. फाल्यां अेकाद्र्या सोयऱ्या खातीर करतल्लो. हाचो अर्थ असो जालो कि तुका आमी दितात ते अेक तर चड दितात वा तूं स्वताच्या पोटाक तरी मारता...चड मेळटात जाल्यार तुवें पैशे परते करूंक जाय. आनी कार्यकर्त्यान आपल्या पोटाक अुपाशीं अुडवंक जायना..."

तो कार्यकर्तो गांधीजींक पळेत रावलो. ताका किते करचें हेंच समजना जालें. गांधीजींनीं ताका काचाबूल जाल्लो पळवन म्हळें : " तुका हांव वळखतां. तुवें म्हजे वेल्या प्रेमाक लागून पैशे घेवंचे न्हय अशें थारायलां हेंय हांव समजतां. पुण तुका कार्यकर्त्याचो धर्म समजावंक सोदतालों."

****

## १३८ जाणत्यांची सेवा

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या हिन्दी लोकांचीं गाराणीं घेवन गांधीजी हिन्दुस्तानांत आयिल्ले. काँग्रेसच्या अधिवेशनांत तीं मांडचीं अशें तांणीं थारायल्लें. अधिवेशनाक दोन दीस उरिल्ले. ह्या दोन दिसांत कितें करचें ? काँग्रेसच्या कार्यालयांत वचून कितेंय काम मागून घेवचें आनी अणभव घेवंचो अशें तांणीं थारायलें आनी ते भूपेन्द्र-नाथ बसु हांचे कडेन गेले. भूपेन्बाबून गांधीजींकडेन पळवन म्हळें:

" म्हजे कडेन कसलेंच काम ना. पुण घडये घोषालबाबूंकडेन आसुंये. तांकां विचारून पळवचें."

घोषालबाबू काँग्रेसचे मंत्री आसले.

गांधीजी घोषालबाबूं कडेन गेले आनी काम मागलें. घोषाल-बाबू मात्शे हांसले आनी म्हणूंक लागले :

" म्हजे कडेन क्लार्काचें काम आसा. करशात ?"

" म्हजे शक्तिभायलें नासत असलें कसलेंय काम करूंक हांव तयार आसां–" गांधीजींनीं जाप दिली.

" बरें आसा. अशीच वृत्ति आसूंक जाय." अशें म्हळें आनी घोषालबाबूंनी तांकां काम दिलें : " हीं पत्रां आयल्यांत. तांकां जाबो बरवपाक म्हाका फावना. शेंकडयांनीं लोक म्हाका मेळूंक येतात तांचे कडेन उलयतलों केन्ना आनी ह्या पत्रांक जाबो बरयतलों केन्ना ? त्या भायर कांय पत्रां तर जाब दिवपासारकीं लेगीत आसचीं नात, पुण तीं सगळीं वाचून तांकां पोंच धाडची आनी जांकां जाब बरवप गरजेची आसा अशें दिसता तीं पत्रां म्हाका दाखवंचीं."

आपणाकडेन काम मागूंक आयिल्लो हो मनीस कोण हाची घोपालबाबूंक कल्पनाच नासल्ली. गांधीजींनी सगळीं पत्रां वाचलीं. जांकां पोंच धाडपाची आसल्ली तांकां धाडल्ली. जाबो बरयल्यो. घोपालबाबू खुशालभरीत जाले. आनी ताणीं विचाल्लें :

"तुमचें नांव कितें ?"

"मोहनदास करमचंद गांधी."—गांधीजींनी जाब दिलो.

गांधीजींच्या दक्षिण आफ्रिकेंतल्या वावराचो इतिहास आयक-तकूच घोपालबाबूंक तांकां कारकुनाचें काम दिल्लेबद्दल वायट दिसलें. पुण गांधीजींनी तांकां हुस्कया मेकळें करपा खातीर सांगलें :

"तुमी खरें आनी हांव खरें ! तुमी कॉंग्रेसचे जाणटे लोक. हांव अणभव नाशिल्लो एक तरुण. तुमी म्हाका गुरू समान. कॉंग्रेसच्या कामाची म्हाका कल्पना येवंक जाय आसल्ली. तुमी म्हाका ती संद दिली हेच परते म्हजेर उपकार जाले."

घोपालबाबू निश्चिंत जाले. आनी दोंगांचेय मजगतीं दाट इश्टागत जाली. घोपालबाबूंचे जुदयेक बुतांव लावपाचें काम एक चाकरमानो करतालो. गांधीजींनी तेंय काम आपल्या हातांत घेतलें. जाणट्यांची सेवा करपाचें काम गांधीजीचे रुचिचें. जाणट्यां विशीं तांकां सदांच भौमान दिसतालो. आनी तांचे सेवेची संद ते वगडायनासले. घोपालबाबू गांधीजींचो हो सभाव वळखले. जुदयेक बुतांव लायता आसतना घोपालबाबूंनीं म्हणचें : "पळे, कॉंग्रेसच्या पुढाऱ्याक जुदयेक बुतांव लावपाक लेगीत वेळ नासता."

****

## : १३९ : अन्याय धुवन काडपाक

गांधीजी मुम्बै येताले तेन्ना मणिभवनांत रावताले. गांधीजी जैं रावताले थैं पावणेय बरेच येताले. मणिभवनांत अेक खेपे स्वामी आनंद गांधीजीं बरोबरच देंविल्ले. स्वामी आनंद भगवीं घालिनासले. सादेंच पुडवें, सदरो, टोपी अश्या साद्या भेसांत रावताले. तांच्या भेसा वेल्यान ते कोण मोटे मनीस आसतीत अशें दिसनासलें. तांचें मणिभवनांतल्या रांदप्याकडेन अेक दीस तिडलें. रांदप्यान स्वामींचो अपमान केलो. स्वामींक राग आयलो. तांणीं रागाच्या भरांत रांदप्याचेर अेक थापट मोटच्यान फुलयलें.

ही कागाळी गांधीजीं सरीं गेली. रांदप्याची चूक आशिल्ली हातूंत दुबावच नाशिल्लो. पुण गांधीजी प्रकरणा कडेन दुसरे अेके नदरेन पळवंक लागले. तांणीं स्वामींक सांगले : "आमच्या वर्गांतलो कोणूय जाल्लो जाल्यार तुमी ताचेर हे भशेन थापट मारचे नासले. हो रांदपी, सकल्ल्या वर्गांतलो म्हुण तुमी तें माल्लें. तेन्ना सगळयांत पैलीं वचून ताची माफी मागात."

स्वामीं सारकेल्या मानी मनशाक हें कशें जमत ? गांधीजींनीं पळेलें कि स्वामी माफी मागूंक अनमनतात. तांणीं तांकां सांगलें: "तुमी केल्लो अन्याय धुवन अुडवंक तयार नासले जाल्यार म्हजे बरोबर रावपाचें सोडचें पडटलें."

स्वामीं मुखार अुपाय नासलो. वचून माफी मागून आयले.

गांधीजींच्या मनांत ल्हान-व्हड असो भेद नासलो. आनी अन्यायाचो प्रश्न येतालो तेन्ना तर तांचो हो सभाव अदीकच अुफेवन येतालो.

****

## : १४० : अुद्धार करपी आमी कोण ?

हिन्दुस्तानांतल्या फाटीं पडिल्ल्या जातीं भितर मगळयांत चड चिड्डल्ली आनी चेपिल्ली जात म्हळयार हरिजनांची. गांधीजी तांचे वेळो अन्याय धुवन काडपा खातीर खूब वावुरल्यात.

येरवडयाचे बंदखणींत आसतना अेक दीस खबरी करतां-करतां गांधीजींनीं म्हळें : " डॉ. आंबेडकर हरिजन जातींतले आमतीत म्हणपाची म्हाका खबरच नामली. म्हाका दिमतालें कि ते बामण आसतले आनी हरिजनां विशी तांकां कळवळो दिमता म्हुण ते अनितायेन अुलयनात जातले."

डॉ. आंबेडकर म्हणटाले कि हरिजनांनीं हिन्दू धर्म सोडून दिल्ले बगर तांची अुदरगत जावपाची ना. गांधीजींक ही वाट पसंत नासली.

हरिजनांक वयर काडूंक नामदार गोखले हांच्या भारत सेवक समाजाचेय लोक वावुरताले. १९१५ त गोखले भायर पडले तेन्ना गांधीजींनीं हरिजनांच्या प्रस्नाकडेन पळवपाची हे संस्थेची दृष्टि समजून घेवपाचो यत्न केल्लो. तांणीं संस्थेच्या जाळवणदारांक विचाल्लें तेन्ना तांकां जाप मेळ्ळी : " त्या लोकांचे वस्तींत वचचें, अुलवपां करचीं, तांचेर जाता त्या अन्यायाची तांकां कल्पना करून दिवची आनी तांच्यांत जाग हाडची हो आमचो कार्यक्रम."

" पुण हो सेवेचो मार्ग न्हय. " गांधीजींनीं म्हळें : " असल्यांनी सेवा कशी जातली ? तुमी तांचो अुद्धार करूंक भायर सरिल्ले भशेन दिसतात. तांचो अुद्धार करपी आमी कोण ? हरिजनांचेर अन्याय आमीच केला. आमी ह्या पातकाचें प्रायश्चित्त घेवंक जाय. तांचें रीण फारीक करूंक जाय. तें भाशणां करून कशें

जातलें? तांकां आपलेशे करूंक जाय. तरूच आमी तें फारीक करूंक पावतले."

भारत सेवक समाजाच्या जाळवणदारांक वायट दिसलें. अेकल्यान म्हळें लेगीत : "तुमी अशें अुलयशात अशें आमकां दिसूंक नासलें."

गांधीजींनीं तांची क्षमा मागली. पुण तांचो मार्ग कबूल केलो ना. ते आपल्याच मार्गान मुखार वावर करूंक लागले.

****

## : १४१ : आमकांय तो अधिकार नाका

जगन्नाथपुरी लागसार अेका गांवांत गांधी सेवा संघाची बसका आसली. जगन्नाथाचें देवूळ थैंसून लागींच आसलें. गांधीजींच्या परिवारांतलीं कांय मनशां तें पळवंक गेलीं. तांच्यांत कस्तुरबाय आशिल्ली.

ज्या देवळांनीं हरिजनांक वचूंक दिनात त्या देवळांनीं गांधीजी वचनासले. हें देवूळ तांतलेंच अेक आसलें. कस्तुरबाय बावडी भोळी. ती भितर वचून पांयां पडून आयली.

गांधीजींक हें समजलें तेन्ना तांकां खूब वायट दिसलें. तांणीं कस्तुरबायक विचाल्लें : "तुका आमच्या नेमाची खबर नासली?"

ती भियेली. तिणें म्हळें : "ब्रजकृष्ण बरोबर आसलो. ताणें कित्याक सांगलें ना?"

"तो कित्याक सांगतलो? तुवेंच नेम लक्षांत दवरूंक जाय आसलो." कस्तुरबायन थैंच व्रत घेतलें कि ज्या देवळांत हरिजनांक वचूंक दिनात त्या देवळांत आपुणूय वचचीं ना!"

****

## : १४२ : कठोर गांधी

अुत्तर हिन्दुस्तानांतलो अेकलो आश्रमांत आशिल्लो. तो बरो नाशिल्लो. गांधीजींनीं अुपचार सुरू केले. तो चोरयां विडयो ओड-टालो. गांधीजींक हें कळ्ळें तेन्ना तांणीं ताका विडयो न ओडपाचो अुपदेस केलो.

कांय दिसांनीं ताचे सेवेक गांधीजींनीं दुसऱ्या अेका आश्रम-वास्याक दवल्लो. गांधीजींची सगळ्यांचेर नदर आसताली. खासा आपुण दुसऱ्या कामांत आसताले तेन्नाय कोण कितें करता हें तांकां कळटालेंच. ह्या मनशाक तांणीं विडयो ओडूंक जायना म्हुण सांगिल्लें आनी अुपचारांच्या दिसांनीं तरी तो त्यो ओडचो ना अशें गांधीजींक दिशिल्लें. पुण विडयेचें व्यसन मनशाक शिथिल करता. ताची अित्सा नासूनूय तो ती ओडटा. ओडूं नाका म्हुण सांगिल्लें आसतनाय तो विडयो ओडटा म्हुण जेन्ना गांधीजींक समजलें तेन्ना तांणीं ताका विचाल्लें. ताणें आपुण ओडिना म्हुण सोपून घेवन सांगलें.

गांधीजींक खूब वायट दिसलें. तांकां त्या दिसा न्हीद पडूंक पावली ना. तांणीं दुसऱ्या दिसा ताका सांगलें : " तूं फट अुलयना. म्हज्यान दुसरें कितेंय सोसुंयेन; फट सोसूं नज. फट अुलयतल्या मनशाक हांव म्हजे सरीं दवरूंक तयार ना. आजूच तुवें आश्रम सोडून वचूंक जाय."

गांधीजींचो हो निर्णय आयकून तो सनीस जागृत जालो. ताणें चूक कबूल केली. अुपरांत ताणें विडयेक हात लायलो ना.

सत्याची अुपासना करतल्यान दृढता आंगांत केळवंक जाय अशें गांधीजी मानताले.

****

## : १४३ : चोरून विडयो ओडल्यो

भुरग्यांक संगत वायट मेळत जाल्यार बरीं भुरगीं लेगीत वायट जातात. ह्या पसत संगत सदांच बरी धरूंक जाय.

गांधीजींची पिराय त्या वेळार १२-१३ वर्सांची आशिल्ली जांवये. तांचे बरोबरचो अेकलो भुरगो चोरून विडयो ओडटालो. ताचे संगतीन गांधीजीय विडयो ओडूंक लागले. विडयो ओडून फायदो आसा अशें दोगांकूय दिसनासलें. पुण धुंवर सोडटना मजा दिसताली. दुसरे तशेंच करतात हें पळवन तांकांय तशें करचें अशें दिसलें.

दोगांचेय गांठीक पैशे नासले. म्हुण तांणीं जाण्टयांनी ओडून उडयल्ल्या विडयांचीं पोतेरां चोरचीं. पुण सदांच पोतेरां खैंच्यान हाडतले ? त्या भायर पोतेरांतल्यान धुंवरूय चडसो येनासलो. म्हुण तांणीं घरच्या चाकर-मान्याच्या बोल्सांतले पैशे चोरचे आनी विडयो विकत्यो घेंवच्यो.

मुखार दुसरोच प्रश्न अुबो जालो. विकत्यो घेतिल्ल्यो विडयो खंय लिपवन दवरच्यो ! जाण्टयां हुजीर तर त्यो ओडूं नजत. कशें तरी दोन-चार आठवडे घालयले. जाण्टयांच्या धाकांत दीस काडचे पडप हें तांकां सोंसना जालें. कितलें म्हणून सोंसतले ? अखेर तांणीं दोगांनीय जीव दिवचो अशें थारायलें. रानांतल्यो अेक तरेच्यो बियो खातकर मनीस मरता अशें तांणीं आयकल्लें. त्यो तांणीं फैदा केल्यो. तिळसांज जाली. देवळांत वचून पांयां पडून आयले. कोण नात असो अेक जागो सोदून काडलो. दोन-तीन बियो खाल्यो. पुण मागीर अदीक बियो खावपाचें काळीज जायना जालें. ते

येवजूक लागले, रोखडेंच मेळेनात जाल्यार कशें जानलें ? म्हूण फायदो कितें ? अखेरेक मरणाक दोयूय भियेले आनी तांणीं जीव दिवपाचो बेत सोडलो.

जीव दिवपाच्या ह्या बेताचो परिणाम अशिल्लोच जालो कि चोरून पोतेरगं ओडपाची आनी पैशे चोरपाची जी मंवय जाल्ली ती सुटली.

****

## : १४४ : प्रायश्चित

त्या वेळार गांधीजींची पिराय पंदरा वर्साची आशिल्ली जावये. तांच्या भावाक रीण जाल्लें. सुमार पंचवीस रुपयांचें. तें कशें फारीक करचें ? दोगूय येवजूंक लागले. भावाच्या हातांत भांगराचें अेक कडें आसलें. तांतलें अेक तोळो भांगर काडचें अशें थारायलें.

कडें कापलें आनी रीण फारीक जालें. पुण ही चोरी गांधीजीं-च्यान सोसूं नज जाली. कितें करचें ? कांयच येवजना जालें. ‘ मुखार केन्नाच चोरी करचों ना ’ असो तांणीं सपूत घेतलो तरी तितल्यान धादोसकाय जाली ना. बापायक वचून सांगचें अशें दिसलें. पुण वाचा फुटली ना. बापूय आपणाक मारीत हाचो भंय नासलो पुण वायट दिसून आपलींच कपलां फोडून घेतीत म्हुण भिरांत दिसताली ‘ कशेंय जांव, चूक कबूल केले बगर मन निर्मळ जावचें ना ’ अशें तांकां दिसलें.

आनी अखेरेक बापायक चीठ बरवंची आनी तातूंत सगळें सांगचें अशें थारायलें. चिठींत बरयल्लें :

" बाबा, हांवें मोटी चूक केल्या. हांवें भावाच्या हाताच्या कड्यांतलें अेक तोळो भांगर काडून विकलें. मुखार हांव असली चोरी केन्नाच करचों ना. तुमकां दुःख जातलें. पुण जिवाक लावन घेवं नाकात. म्हाकाच म्हजी चूक दिसून आयल्या. तेन्ना म्हाका कसलीय तरी ख्यास्त दियात. —मोहन

बापायन चीठ वाचली. दोळ्यांतल्यान दोन मोतयां गळ्ळीं. चीठ भिजली. खीण भर दोळे धांपले आनी चीठ पिंदून अुडयली.

पूत मुखारूच बशिल्लो. तोय खूब रडलो. बापायच्या दोळ्यांतल्यान जीं दोन दुकां गळिल्लीं तांणीं पुताचें काळीज निर्मळ केल्लें!

गांधीजी म्हण्टात : " हांव हे घटनेक अहिंसेचेंच नांव दितां. म्हज्या बापायचो सभाव पळेत जाल्यार हे तरेची शांत क्षमा तांच्या निजांतच नासली. तरी आसतना ते शांत रावले हाचें कारण म्हळ्यार हांवें म्हजो गुन्यांव मेकळेपणान कबूल केल्लो."

****

## : १४५ : सतत जागरुकपण

मनीस कितलोय मोटो जालो तरूय सावधानीन चल्लोना जाल्यार तो खैंच्याय खिणाक सकल पडटा अशें गांधीजी म्हणटाले. म्हुण सदांच ते जागृत रावंक सांगताले.

आश्रमांतल्या अेका बऱ्या मनशाच्या हातान अेकदीस अेक मोटी चूक घडली. गांधीजींनीं तिची अुक्तेपणान चर्चा केली. तांणीं म्हळें :

" मनीस विकरान भरिल्लो आसता. विकार आमचे चोंयवशींनीं अुबे आसतात. ते केन्ना आमचेर घुरी घालीत हें सांगूंक येना. मनीस कितलोय सात्त्विक आसलो तरूय अेका खिणांत

ताची सगळी पुण्याओ न्हांवन वचूं येना. मनीस अपूर्ण आसता. केन्नाय सकल पडूंक शकता, म्हुण मनशान खिणान खीण सावध रावंक जाय. हातान वायट घडल्यारूच न्हय, मनान लेगीत वायट घडलें जाल्यार चुकलेंच अशें मानूंक जाय."

सतत जागरुकपण हें गांधीजींचे साधनेंतलें म्हत्वाचें आंग आसलें. पुण आपल्या मनांत लेगीन पातक ना अशें कोणाच्यान म्हणुं येना ? मनांत पातक घडटा तेन्ना मनशान कितें करचें ?

गांधीजी म्हणटाले : "आपलें पातक उक्तें करात. चार चौगां मुखार मांडात. प्रायश्चित घेयात. आनी देवाकडेन आत्मबळ मागात. जाचें अंतस्करण निवळ आसतलें ताचें मागणें देव आयकतलो."

गांधीजी निर्विकारी जाल्ले. पुण एक दीस अकस्मात् तांचे तकलेंत एका खिणा पुरतो – फक्कत एका खिणा पुरतो – एक वायट विचार येवन गेलो. गांधीजींनीं ताची जाहिर कबूली केली आनी उपास केलो. कितली कठोर साधना ! तरसादेचे धारेवेल्यान चलपा परसूय कठीण !

****

## : १४६ : प्रार्थनेचें म्हत्त्व

१९४७ त जेन्ना वचत थैं दंगें जावंक लागले तेन्ना गांधीजींक सुमारा भायलें दुःख जालें. तांचें काळीज रडटालें. पुण ते निर्शेवपी मनीस नासले. जेन्ना सगळ्यांक चोंयवशींनीं गुपाट काळोख दिसतालो तेन्ना गांधीजी अुजवाडाचें कीर्ण सोदपाक भगीरथा परसूय मोटी साधना करूंक लागताले आनी तांकां अुजवाड मेळटालोय.

नोआखालींत आसतना अेक दीस ते म्हणूंक लागले :

"म्हजें अेक गणित आसा. आमी कसलेंय काम हातांत घेतलें आनी तें जशें जावंक जाय आसलें तशें जालें ना, जाल्यार तें आपल्याच खैंच्या अुण्याक लागून जावंक पावलें ना अशें धरचें. ज्या दिसा पसून आमी आमचींच मनां आनी काळजां तपासूंक शिकतले त्या दिसाच्यान आमकां लोकांचें बरें कशें जातलें हेंच येवजतलें. आज आमच्यो तकल्यो रिकाम्यो जाल्यात. म्हुण आमी अेकामेकांचेर सगळे दोष धुकलतात." आमचीं मनां लेगीत निवळ जावंक जाय अशें गांधीजी म्हणटाले. अेकाद्या मनशाक क्षयरोग जाल्लो आसलो आनी आमकां वो खासा ताका ताची खबरूय नासली तरूय जशे ताचे जंतू वातावरणांत भरसून आमच्यांत भितर सरून आमकांय तो रोग दितात तशे मनशाचे तकलेंत वायट विचार आयले जाल्यार तेय भोंवतणच्या वातावरणांत भरसून सगळ्यांकूच विखारी करून अुडयतात अशें गांधीजी मानताले. म्हुण ते वातावरण शुद्ध दवरपा खातीर चित्त शुद्ध दवरूंक सांगताले. आनी चित्त शुद्ध करपाचो तांचो मार्ग आसलो प्रार्थना.

...११...

प्रार्थनेचें म्हत्त्व नांकां अितलें पटिल्लें कि ते दीस भर प्रार्थ-नेंनच आसताले म्हळचार जाता. देशांन दंगे मारामाऱ्यो जावंक लागल्यो वा लोक दुर्बळ असहाय स्थितींत पडले कि ते प्रार्थ-नेन ताचो अुपाय सोदताले आनी अुपाय म्हुण्णूय प्रार्थनाच करताले. ****

## : १४७ : प्रार्थना

गांधीजींचे जिणेंत प्रार्थनेक खूब म्हत्त्व आसलें. ते तिका आत्म्याचें अन्न म्हणटाले. अेके सुवातेर तांणीं बरयलां : " हांव जेविना खायनासतना दीस काडीन. पुण प्रार्थने बगर अेक खीण लेगीन जगूंक पावचों ना. " अेक खेपे आंध्रच्या दौऱ्यार गेल्ले. चिकाकोल गांवांत सभा आसली. मोटार चिकाकोलाक रातची धा वरांचेर पावली. महादेवभाओी आनी वांगडाच्या दुसऱ्यांक प्रवासान पुरो जाल्लें. गांधीजी सभेक गेले आनी महादेवभाओी वी मुक्कामार प्रर्थना करिनासतना न्हीदले.

सकाळीं अुठना फुडें गांधीजींनी महादेवभाओींक विचाल्लें: " रातीं प्रार्थनेचें कितें जालें ? "

" म्हाका अितलें पुरो जाल्लें कि हांतुणार पडना फुडें दोळो लागलो. प्रार्थनेची यादच जाली ना. "

" म्हाकाय याद जाली ना. " गांधीजींनीं म्हळें. " दोन अडेच वरांचेर म्हाका जाग आयली तेन्ना याद जाली, आनी म्हाका थरथरो भल्लो. जाचे अित्सेन हांव जगतां ताकाच विसल्लों म्हळचार कितें ? देवाकडेन हांवें क्षमा मागली पुण म्हाका न्हीद पडली ना. तसोच बसून रावलां. "

अुपरांत सकाळची प्रार्थना केली. आनी त्याच दिसा थारायलें– “ सगळीं कामां करून न्हिदचे पैलीं प्रार्थना करप हीच पैली चूक. आयच्यान प्रार्थनेचो वेळूय निश्चित करुंया. आयच्यान सदां सात वरांचेर प्रार्थना करप. प्रवासांतूय ह्रोच नेम पाळप. ”

तेदूसच्यान जीस्त सात वरांचेर प्रार्थना जावंक लागली. मोटारींत आसले जाल्यार ती थांबवप आनी जैं पावतात थैं – रांनांत, गांवांत, शारांत वाटेर खंयूय, सात जालीं कि ‘ यं ब्रह्मा वरुणेंद्र रुद्र मरूत: ” च्या आंदोलनांनी आकाश भरून वतालें.



## : १४८ :

## अिब्लीस

सांजची प्रार्थना सात वरांचेर सुरू करची असो नेम केल्लो खरो. पुण रातीं प्रार्थना करूंक विसल्ले ह्राचो पश्चात्ताप गांधी-जींच्या तोंडार संबंध दीस अुफेवन अुल्लो.

पू. काकासायब कालेलकार बरोबरच आसले. गांधीजींचें दुःख पळवन तांणीं येवन विचाल्लें :

“ बापूजी, अेक खबर सांगूं ?”

“ सांगा. ” गांधीजींनीं म्हळें.

“ अेक आसलो मुसलमान संत. पवित्र मनीस. अेक दीस तो नमाज विसल्लो. आनी पुरो जाल्ल्यान तसोच न्हीदलो. ताका दोळो लागिल्लो अितल्यांत कोणे तरी येवन ताका अुठयलो : “ आरे, तूं नमाज विसल्लो. अूठ. ”

संतान ताजे अुपकार मानले. आनी विचारलें : “ तूं कोण बावा ? ”

“ हांव ? हांव अिब्लीस ” ताणें जाब दिली.

“ अिब्लीस ? ” संताक अजाप जालें ! “ आरे, तूं देवाचो दुस्मान मरे ! लोकांक देवाचो विसर घालप हें तुजें काम. तूं म्हाका कसो नमाजेची याद करूंक आयलो ?”

अिब्लिसान जाब दिली : “ आनीक अेक खेपे असोच तूं नमाज विसरल्लेलो. आनी हांव खुशालभरीन जाल्लों. पुण दुसऱ्या दिसा तुका ताजो अितलो पश्चात्ताप जालो कि ताका लागून तूं देवाक अदीक लागिचो जालो...आतां, म्हळें, अशें न्हय. तुका नमाजेचो विसर पडूंक दिवप ना......”

गांधीजींनी ही खबर आयकून घेतली. काकासायबांक कितें सांगूक जाय आसलें तें तांकां कळ्ळें. तांणीं फक्त स्मित केलें !

****



## : १४९ : शक्तिचें स्रोत

नोआखालिचे यात्रेंत गांधीजींची सेवा करपा खातीर तांगेली नात मनुबेन गांधी आयली तेन्ना तिका तांणीं सगळयांत पैली तिचे जापसालदारकेची जाणवीक करून सांगलें :

" हांवें हो यज्ञ सुरू केला. तातूंत मात् लेगीत म्हेळसाण अुपकारा पडपाची ना. हें सगळें समजून घे आनी तुज्यान नज अशें तुका दिसलें जाल्यार परत वच. "

मनुबेनीन सगळी तयारी केल्ली. तिणें सांगलें : " तुमी जैं, थैं हांव. केदेय मोटे परीक्षेक हांव तयार आसां. "

नोआखालींत त्या वेळार लोकांचे गोमटेर देवचार बशिल्लो. मनीसपण साप ना जावन गेल्लें. ल्हान चली वा म्हातारी बायल लेगीत थैं सुरक्षित नासली. थैं सोळा सतरा वर्सांचे हे चलयेक गांधीजींनीं आपले सरीं व्हेल्ली. मवाल्यांनीं तिका त्रास दिलो आनी तांचे आड बहादुरीन झुजतां झुजतां ती मेली जाल्यार आपुण आनंदान नाचतलों अशेंय तांणीं तिका सांगिल्लें. तरूय तिचो बेत वदल्लो ना हें पळवन गांधीजींनीं म्हळें :

" भावना निर्मळ आसत जाल्यार आपशींच सगळें बरें जातलें. आमचें जीवन देवाक ओंपून आमी ह्या यज्ञांत वावरूंक जाय. ताका संपूर्ण शरण वचूंक जाय. मागीर, केदींय व्हडलीं संकटां सोंसपाची तांक येता. ल्हान भुरग्याक भूक लागतकूच तें रडटा. पुण ताची भूक भागवपाचो हुस्को आवैक आसता. आमी आमचे तकले वैल्यो सगळयो चिंता देवाचेर सोडुंया. आनी तो जी किते शक्ति दीत तिच्या नेटार वावरूंया. "

गांधीजींची प्रार्थनेचेर येदी श्रद्धा आसली.

****

## : १५० : सासणाचें झूज

मनशाच्या काळजांत बरें आनी वायट हांचें एक झूज सदांच चालिल्लें आसता. वायटाचेर जैत जोडप आनी बऱ्याक फावता ती सुवात जोडून दिवप हो धर्माचो खरेलो हेत. क्रिस्तांव आनी मुसलमान धर्म हया झुजाक देव आनी दैवचार हांचे भितल्लें झूज म्हणटात. पारशी लोक ताका अहुरमज्द आनी अहरिमान हांचे भितल्लें झूज म्हणटात. आनी हिन्दू लोक पांडव कौरवां भितल्लें वा राम रावणा मजगतचें झूज म्हणटात.

देखून गांधीजी म्हणटाले कि सगळया धर्मांचो मुखेल हेत वायटाचेर जैत जोडप आनी आमचे जिणेंत बऱ्याक सुवात दिवप होच अेक आसूंक जाय.

वायटाचेर जैत कशें जोडप ?

गांधीजी म्हणटाले: "काळजापसून प्रार्थना करून."

आनी मुखार ते म्हणटाले: "म्हज्या सुमार चाळीस वर्सांच्या अणभवाचो हो सार.. हेरांभशेन म्हज्याय वांटयाक अित्सांचें भंगप, काळखाचें गुपाटपण, हांवपणाच्यो वुरयो, निराशेची फडफड आयल्यात....अशें आसून हांवें प्रार्थनेन हया सगळयांचेर जैत जोडलां..."

****



## : १५१ : लोकां बरोबर रावन

गांधीजींक खाजगी जीवन म्हुण नाशिल्लेंच. तांणीं आपलें सगळें जीवन अुघड्यार घाल्लें. सदांच तांचे भोवतणी लोक आसताले. ते जेन्ना सगळ्या लोकांचे ‘ बापू ’ जाले तेन्ना तांगेलीं घरचीं मनशां लेगीत घरचीं अुरूंक नासलीं. वा अशेंय म्हणुं येत कि बाकिचे लोकूय घरचेच जाल्ले. हाका लागून चोविस्‌य वरां तांचे सरीं लोक आसताले. लोकांबरोबर रावप, लोकांक बरोबर घेवन काम करप ही गांधींजींची साधना आसली.

हॉरेस अलेक्झांडर हांणीं अेके कडेन बरयलां :

“ लंडनाक गांधीजी आयिल्ले तेन्ना हांव तांचे सरीं आसतालों. तांकां आधार दितालों. अेक दिस सगळीं भायर सरिल्लीं. गांधीजी अेकलेच कितें तरी बरयताले. हांव कडेक अेके कडेन बसून वाचतालों. अितल्यान गांधीजी कितें तरी सोदतात–शे म्हाका दिसलें.

हांवें म्हळें : “ तुमकां किते जाय ? ”

“ना . . . कांय नाका . . . पुण ही सगळीं म्हाका अेकलो सांडून खैं गेलीं ? म्हाका अेके तरेचेंच दिसता . . . हांव केन्नाच असो अेकलो रावंक ना . . . ”

अीश्वराचो साक्षात्कार लेगीत तांकां अेकलो–अेकसुरो नाका आसलो.

तांणीं अेकल्याक म्हळ्ळें : “ म्हाका अीश्वराचो साक्षात्कार जाल्लो जाय . . . पुण हांव जांणां म्हाका तो हिमालयांत जाव–पाचो ना . . . लोकांबरोबर रावनच तो जातलो. लोकांबरोबर वावरून, लोकांक बरोबर घेवन हांवें मुखार वचूंक जाय. ”

‘ लोकांबरोबर रावन, लोकांक बरोबर घेवन ’ ह्या दोन वाक्यांत गांधीजींचें साधनेचें रूप लक्षांत येता.

****

: १५२ : : साधना

सगळ्यां दुर्गुणां भितर मोटयांतलो मोटो दुर्गुण म्हळयार भितरेपण. तो मोटयांतली मोटी हिंसा अशें गांधीजीचें मत्त आसलें. म्हूण ते म्हणटाले कि नीत वा धर्म हांका पाळो दिवंक सोदतल्या मनशान सगळयांत पैलीं हें भितरेपण जिखूंक जाय. भितरो मनीस नीतीवंत केन्नाच जावं नज.

हें भितरेपण कशें जिखचें ?

"ओश्वराक शरण वचून" अशी गांधीजी जाप दिताले. "साप शुन्याकार जाल्याखेरीज आमी भितरेपणाक केन्नाच जिखूंक पावचे नात... आमी ओश्वराक पुरायेन शरण वचूंक जाय. तातूंतच खरेलो आनंद आसा."

प्रार्थनेंत आमकां आमचेंच आड सुजचें आसता. म्हूण केन्ना केन्नाय आमचो धीर खचता. पूण गांधीजी म्हणटाले कि साम-खार काळोख गुपाट पातळलेलो आसतना, काळजांत निराशणी भरून गेल्ली आसतना... आमकां दुसरो अुपायूच ना. प्रार्थनेंचें परिणामीपण अणभव घेतले बगर कळपाचें ना.

जो मनीस सदांच प्रार्थना करता तो फुडें घाल्लें पावल केन्नाच फाटीं घेवचो ना. तो निश्चयान जैत जोड्लो.

पुण त्या खातीर—

"प्रार्थना काळजांतल्यान करुंक जाय... काळीज नाशिल्ल्या अुतरांपरस अुतरां नाशिल्लें काळीज प्रार्थनेंत आसूंक जाय."

गांधीजी तर अशेंय म्हणटाले कि ओश्वराचेर श्रद्धा आसले बगर मनीस सत्याग्रही जावंकूच नज.

****

## : १५३ : आध्यात्मिक गरज

प्रार्थना, अुपास ह्या गजालींक गांधीजींचे जिणेंत खूब म्हत्त्व आसलें. तांगेले आध्यात्मिक साधनेंतल्यो त्यो मोलाच्यो वस्ती आसल्यो. कांय दिसांनीं तातूंत मौनाची भर पडली.

काम खूब पडटालें आनी दीसभर अुलवचें पडटालें म्हुण सप्तकांतल्यान अेक दीस अुलवपच ना अशें तांणीं येवजिलें. तातूंत तांकां विसंव मेळूंक लागलो. अुपरांत 'हरिजन' ह्या तांगेल्या सप्तकी नेमाळच्या खातीर बरप बरवपाक वेळ मेळेचो म्हुण ते मौन पाळूंक लागले.

कांय दिसांनीं तांकां मौनाची संवय जाली. तांगेल्या सभावाची ठेवणूच मौनाची आसली. भुरगेपणांत आनी मुखार अिग्लंडाक शिकूंक गेले तेन्ना तांची मोने म्हुणूच नामना आसली. करतां करतां तांकां मौनाचें आध्यात्मिक म्हत्त्व समजून आयलें. तांकां दिसलें—"अीश्वराकडेन अेकरूप जावपाक मौनच सगळ्यांत बरें."

आनी मागीर व्रत म्हुणूच ते ताका पाळो दिवंक लागले.

१९३६ त तर तांणीं दोन म्हैने मौन पाळिल्लें. ज्या दिसा तांणीं तें सोडलें त्या दिसा ताकां अेकलो मिशनरी मेळूंक आयिल्लो ताका तांणीं सांगलें: "मौनाचो जादू अजून हांव अणभवतां."

मौन म्हळ्यार गांधीजींची शारीरिक गरज आसली, आध्यात्मिक गरजूय आसली.

****

## : १५४ : देवाचो साक्षात्कार

अेक अमेरिकन मिशनरी गांधीजींक मेळूंक आयिल्लो. गांधी-जींक ताचे विशीं खूब आपलेपण दिसतालें. ताणें गांधीजींक अेक खेपे विचाल्लें:

" तुमचेर संकश्टां आयलीं, तुमच्या पांयांखालची भूंय निसरता शी दिसूंक लागली आनी चोंयवशींनीं गुपाट काळोख दिसूंक लागलो. जाल्यार, अश्या वेळार तुमी कितें करतात ? "

" हांव देवाचें नांव घेतां. " गांधीजींनीं जाप दिली.

" पुण तुमकां देव केन्ना दिसला ? "

" देव मनशाचें रूप घेवन येता अशें हांव मानिनां. तो करणेच्या रुपान येता. " गांधीजींनीं खुलासो केलो.

गांधीजींनीं येरवडयाचे बंदखणींत अुपास केल्लो त्या वेळार मेहरबाबाचे कांय शिष्य तांकां मेळूंक आयिल्ले. ताणीं आपल्या गुरुची सांगणी गांधीजींक सांगली आनी म्हळें: " तुमीं चाळीस दीस मेरेन अुपास केलो जाल्यार मेहरबाबा तुमकां देव दाखवन दितले. "

गांधीजींनीं तांकां सांगलें: " हांवें हो उपास देव दिसचो म्हुण करूंक ना. हरिजनांखातीर वेगळीं मतदार मंडळां दिवचीं केल्यांत तीं रद्द जालीं म्हणटकूच म्हजो अुपास सुट्टलो ... " ****



## : १५५ : अुतरां कितें पटयतलीं ?

गांधीजींचे प्रार्थनेक देवाच्या आसपाविशीं मनांत दुबाव आशिल्लो अेकलो मनीस येतालो. ताणें अेक दीस आपलो देवाचेर विश्वास ना म्हणपाचें गांधीजींक सांगलें:

" कांय नज ... सत्याचेर विस्वास आसा काय ना ?"—गांधीजीनीं विचाल्लें.

" ह्य तर ! सत्याचेर आसात्र " ताणें जाप दिली.

" सत्या खातीर कष्ट सोंसपाची त्याग करपाची तयारी आसा ? " परतें विचाल्लें.

" तें हांव सांगूंक नकळ. पुण सत्याखातीर मनशान त्रास सोंसूंक जाय, त्याग करूंक जाय हें म्हाका कबूल आसा. " ताणें जाप दिली.

" खूब जालें...अितलें पुरो. " गांधीजींनीं म्हळें.

तो मनीस मुमार तीन म्हैने गांधीजी सरीं अुल्लो. सदांच प्रार्थनेक वतालो अेक दीस ताणें गांधीजींक म्हळें: " बापूजी, तुमी म्हजेकडेन अीश्वरा संबंदान कांयच कित्याक अुलयनात ? अीश्वर आसा म्हणपाचें तुमी म्हाका पटवंक जाय. "

गांधीजी हांसले आनी म्हणूंक लागले: " म्हजी अीश्वराचेर श्रद्धा आसा आनी ते श्रद्धेप्रमाण जियेवपाचो हांव यत्न करीत आयलां. म्हजी जीण तुका पटवंक पावना जाल्यार अुतरां कितें पटयतलीं ? "

****



## : १५६ : सगळें बळ ताचें

सत्याग्रहाचेर केदेंय व्हडलें संकट सोंसूंक गांधीजी तयार आसताले. अख्खो संवसार जरूय आड गेलो तरूय सत्याक घट्ट धरून रावपाचें बळगें गांधीजींन आसलें. हाकाच ते आत्मिक बळ म्हणटाले.

तांका पळेल्यार ते अेक सादेंच मनीस दिसताले. तांच्या आवा-जांतूय सामान्या भायलें कांय नासलें. पूण अशें आसूनय तांणीं प्रचंड कामां केल्यांत. अेक दीस ते अशेंच अुलयतनां अुलयतनां वाटेर अुबे रावले आनी म्हणूंक लागले :

“म्हज्यांत म्हजें अशें बळ कांयच ना. सगळें देवाचें. म्हाका पळेयात. हो साडेतीन हातांचो देह ! हातूंत कितें बळ आसतलें ? अेक भुरगो लेगीत म्हाका मूठ मारून सकल अुडयत...म्हजें अशें बळ म्हज्यांत कितें आसा ?...पूण हांव जाणां, सबंद संवसार म्हज्या आड गेलो तरूय म्हज्यांत अेकलो मुखार वचपाची तांक आसा......ही सगळी तांक अीश्वरावेले म्हजे श्रद्धेंतल्यान आयल्या...”

आनी खऱ्यांनींच, जेन्ना तांणींच निर्माण केल्लो सगळो संवसार तांचे आड गेल्लो तेन्ना हे अेके श्रद्धेच्या बळावयर नोआखाली, बिहार आनी दिल्लीचें वातावरण तांणीं बदल्लेलें.

****



## : १५७ : धर्माची वळख

गांधीजींची पिराय सोळा वर्सांची जाली तरूय तांकां धर्माचें शिक्षण खैंच मेळूंक पावलें ना. ते वैष्णव संप्रदायांत जल्मल्ले. देखून वैष्णवांच्या देवळांत वताले. पुण थैं चलताल्यो त्यो कांय अनीतिच्यो खबरी आयकून तांगेलें मन अुबगलें.

पुण जें देवळांत मेळ्ळें ना तें तांकां घरचे वावराडे कडल्यान मेळ्ळें. गांधीजींक भुतां–प्रेतांचो खूब भंय दिसतालो. हे वावराडेन तांकां सांगलें कि ह्या भंयाक अुपाय अेकूच आसा. "रामनाम घे!" गांधीजींचो 'रामनामा' चेर जितलो भावार्थ आसलो ताच्याकूय चड हे वावराडेचेर आसलो. ते तिचे सांगणेन राम-नामाचो जप करूंक लागले.

हो जप चड दीस चलूंक पावलो ना हे खरें. पुण वावराडेन घाल्ले संस्कार मात् कायम अुल्ले. मुखार गिन्यानान आनी अणभवान जाण्टे जातकूच गांधीजींक रामनामांत आकांताचें बळ दिसून आयलें.

****

## : १५८ : खरेलो धर्म

गांधीजींचो कुळ–धर्म जरूय वैष्णव आसलो तरूय तांची आवै शिवालयांतूय वताली. आनी बरोबर भुरग्यांकूय व्हरताली. हाचो परिणाम असो जालो कि गांधीजींच्या मनाचेर हिन्दू धर्मांतल्या सगळ्या संप्रदाया विशीं सारकेपणाचे संस्कार पडले. तांकां सगळ्या पंथां विशीं सारकोच भौमान दिसूंक लागलो.

ह्या भायर घरांत जैन लोकूय येताले. कांय मुसलमान आनी पारशीय येताले. ते गांधीजींच्या बापायकडेन आपापल्या धर्मांच्यो खबरी करताले. ह्यो खबरी चलताल्यो तेन्ना गांधीजी बापाय सरीं आसताले. तांचेर ह्या वातावरणाचो परिणाम खूब बरो जालो. तांकां जसो हिन्दू धर्मांतल्या सगळ्या पंथां विशीं सारकोच भौमान दिसतालो तसो आतां वेगळ्या वेगळ्या धर्मांविशींय दिसूंक लागलो.

एक गजाल तांच्या मनांत घट्ट रोंवली—संवसार तिगला नीतीक लागून. आनी नीतिची बुन्याद म्हळ्यार सत्य. सत्याक सोदीत वचप होच खरेलो धर्म.

गांधीजींचे जिणेंत सत्याचें म्हत्त्व दिसानदीस वाडूंक लागलें तसो ताचो अर्थय विस्तृत जायत गेलो.

आनी अितल्यांत अेक सुनीत गांधीजींनीं आयकलें. तातूंत सांगिल्लें:

"आमकां पियेवंक अुदक दीत ताका बरें जेवण दिवचें. जो आमकां नमस्कार करीत ताच्या साष्टांग पांयां पडचें. जो आमचे पसत अेक पैसो खर्च करीत ताचें लाखमोलाचें काम करचें. जो आमचे प्राण वांचयत ताचे दुःख पैस करपाक आमी आमचे प्राण लेगीत दिवंक तयार आसचें. आमचेर अुपकार करतल्याचे धा वांट्यांनीं अदीक अुपकार करचे...पुण आपलें वायट करतल्याचें लेगीत जो बरें करता तोच खरेली जीण जियेता अशें म्हणचें."

"वायट करतल्याचें लेगीत बरें करचें" ह्या सुनितान गांधीजींचें काळीज हालयलें. धर्माची खरी शिकवण तांकां ह्या सुनितांत मेळ्ळी. तें तांचे जिणेचें सूत्र जालें.

****

## : १५९ : नीतिधर्म

अडेच हजार वर्सां पैलीं भगवान बुद्धाक अेकल्यान प्रस्न विचाल्लो :

" तुमचे शिकवणेंत देवाचो अुल्लेख कसो येना? संवसारांत देव आसा काय ना."

बुद्धान ताका जाप दिली : " समज, अेकल्याक तीर लागलो. जाल्यार, तो कोणें माल्लो, कसो लागलो, मारपी खैं आशिल्लो, कसो अुबो राविल्लो, हे प्रस्न तूं सोडवंक बसतलो ? "

ताणें सांगलें : " ना, हांव तो तीर पैलीं काड्टलों "

" तशेंच हें "–बुद्धान सांगलें. " संवसारांत दुःख आसा, तें ना करूं येता, तें ना करूंक जाय आनी तें ना कशें करचें हेंच हांव शिकयतां."

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना गांधीजींनीं ' नीति धर्म ' नांवाचें अेक ल्हान–शें पुस्तक बरयल्लें. मनशाच्या जीवितांत नीतिची सुवात कितें, नीत कित्याक म्हणची असल्या जायत्या प्रस्नांची चर्चा सामके सोपे भाशेंत तांणीं हृया पुस्तकांत केल्या. हृया पुस्तकाचेर अमेरिकन बरपी सॉल्टर हाच्या विचारांची छाप पडिल्ली आसा.

नीतिच्या सगळ्या आंगांची चर्चा करूनय तातूंत ओीश्वरा संबंदान तांणीं कांयच बरवंक ना. हें अेक अुणें हृया पुस्तकांत अुल्लां अशें मानून अेकल्यान गांधीजींक म्हळें :

" बापूजी, हृया पुस्तकांत ओीश्वरा संबंदान कांयच ना तें कशें ?"

" कित्याक जाय आशिल्लें ? " गांधीजींनीं म्हळें. " मनीस देव मानता काय ना हाचे परस तो नीत मानता काय ना हें पळेवप चड गरजेचें. जो नीत मांबाळून जीवित जियेता तोच खरेल्या अर्थान जियेता. देव मानलो आनी नीत मांबाळ्ळी ना जाल्यार तें जियेवप कसलें ? "

****

## : १६० : खरेलें शिक्षण

गांधीजीं सरीं अेकली चली रावी. ती तांगेली सगळी सेवा करी आनी गांधीजी निजेकडल्यान काम घेवन त्या कामांतल्यानच तिका शिक्षण दिताले. अेक दीस गांधीजी तिका अेका अिंग्लीश पत्राचो अर्थ समजावंक बसले. तो समजावन जातकूच ते चलयेन म्हळें :

" बापूजी, तुमी म्हाका कॉलेजाक वचूंक दिल्लें जाल्यार हांव बी. अे; अेम. अे जातलें आसलें आनी मागीर तुमचें अिंग्लीश कामूय हांव करूंक पावतलें आसलें. "

" पुण तुका हांव ताचे परस बरें शिक्षण दितां "--गांधीजींनीं म्हळें.

" तें खरें. पुण तुमचे बरोबर वावर करपी सगळेच मोटे मोटे शिकिल्ले लोक. तांचे भशेन म्हाका कित्याक जावंक दिलें ना ?" तिणें परतें विचाल्लें.

गांधीजींक हांसो आयलो. म्हणूंक लागले : " गुजराती भाशेंत डिग्र्यांक ' अुपाधि ' म्हणटात. अुपाधि म्हळयार अुपद्रव करपी

वस्त. हांव बॅरिस्टर जालों हाचो आज म्हाका पश्चात्ताप जाता. म्हुण हांव दुसऱ्यांक ह्या अुपद्रवांतल्यान वांचयतां......हय, भास म्हुण अिंग्लीश तुवें शिकूंक जाय. पुण त्या खातीर कॉलेजाक वचपाची गरज ना. आयचें शिक्षण तर सामकेंच निरुपयोगी जावन पडलां. लोक परीक्षा पास जावपा खातीर शिकतात. आनी मागीर ताचो अुपयोग पैशे जोडपा खातीर करतात...शिकले अुपरांत मोट्यांतली मोटी नोकरी कशी मेळटली होच हुस्को...हें शिक्षण त्या भायर कित्याक अुपकारा पडना. ताणें चारित्र्य घडना...सेवेची शक्ती वाडना....म्हज्या हातांत सत्ता आयिल्ली जाल्यार हांव सगळ्या चल्या–चलयांक चळवळींत ओडटलों आसलों आनी मागीर हिन्दुस्तान पळे कशें कितें जातलें आसलें तें..."

आनी सुमार पंचवीस मिनटां ते ह्या विशयाचेरूच अुलयत रावले. गांधीजींक खरेलें शिक्षण जाय आसलें आनी तें कॉलेजां परस रासवळ मळारूच बरें मेळटा अशेतांकां दिसतालें. गांधीजींनीं जायत्या चल्या–चलयांक कॉलेजांनीं धाडिनासतना अितलेंच न्हय, तर कॉलेजांतल्यान भायर काडून बऱ्यांतलें बरें शिक्षण दिलां.

****



# गांधी साअित्यांतलीं दुसरीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| १ | **महात्माः**—गांधीजींची जीण आनी वावर हांचेर व्हड व्हड मनशांचीं मत्तां | १.२५ न पै. |
| २ | **सत्याग्रहः**—सत्याग्रहावेलीं गांधीजींचीं अवतरणां आनी तांचेर रवीन्द्र केळेकार हांगेलें मनन | ०.६२ ,, |
| ३ | **गांधीजीलो मार्गः**— अहिंसक प्रतिकाराच्या शास्त्राचेर विनोबा काकासायब आनी मश्रुवाला हांचीं बरपां | ०.७५ ,, |
| ४ | **भारताचो दिश्टावोः**–India of my dreams चो अणकार | ०.७५ ,, |
| ५ | **मंगळ-प्रभातः**—आश्रमी जिणेच्या अिकरा व्रतांवेलें भाष्य | ०.५० ,, |
| ६ | **सर्वोदयः**—रस्किनच्या Unto this last ह्या पुस्तकाचो आपरोस | ०.५० ,, |
| ७ | **नीतिधर्मः**—Ethical Religion ह्या पुस्तकाचो अणकार | ० ५० ,, |
| ८ | **सत्याची साधनाः**—अध्यात्मिक विशयावेलीं गांधीजींची मत्तां | १.०० ,, |
| ९ | **मानसतीर्थः**—संसारभर गाजिल्ल्या The Mind of Mahatma Gandhi ह्या पुस्तकाचो अणकार | २.५० ,, |

**मेळपाचें ठिकाणः**— **गोमंत भारती.**

मणिभवन, १९, लेबरनम रोड,

मुंबै ७

COVER PRINTED AT :- CAPITAL ART PRINTING PRESS. BOMBAY 4.